# अनिश्चित

शरतचंद्र शेणै



## 1980 एप्रिल 5, शनिवार

स्वल्प अधिक वेळ जालो तो स्कूलमास्तर ताजे लागी संभाषण करूक बहु श्रमु काडता. जाल्यार तो मनीष स्कूलमास्तरूच वे म्हूण ताका कळना. ते पिकल्ले केस, तें कन्नडेक आनी तो खळियां चोग्गो सगट जावनु त्या मनिषाक एक मास्तराचें सारकें आसा, किणि मामा वरी. येदोळ जायतो वेळ अशीच उलोवनु आशिल्लो तो. आपण्यालोच ताळो आयकून ताका पुरो जालें म्हूण दिसता, आतां नुतोच बेसला. उज्या भांडी ताका धोलावनु कुरवांयता..

जाल्यार रघुनाथ निदेनय सोडलोलो जावनु आसा. होडि एक नीद काडल्यार चिन्ना म्हूण आसा ताका.

'मागीर उटायीच ना जाल्यारीय विरोध ना!'

तागेल्या जग्राणाक कारण उडगास. उलोवनु विसरूक जावनातीले उडगास.. निदेवनु विसरूक जावनातीले उडगास..

कण्णूर पर्यंत तो एकलोच आशिल्लो. भांडीर कडेनच्या सिंगल सीटार बेसल्लो. लगेज म्हूण आसा केवल एक स्यूटकेस आनी बेडींग मात्र. तें सीटाचे खाल राबलें. रातीचें वारें जनेलाचान खूब मारता. जाल्यार शेळीचें तें वारेंय भितरच्या घायांक शमन दीना. तो भायर चोवनु तशी बेसलो. दिकूचें खंयचें तोंडय मनांत उडगासूचि हाडता. कण्णूर थाकून तं तो मास्तर चडलोलो. उलोवनु पुरो जावनु आतां निदेता आसा. ताजें तोंड चोयल्यार स्वल्प सारकेंय दिसता किणि मामाचें..

मास्तर किणि माम..

त्या दिसा त्या गांवांत भांडी देवनु प्रथम परिचय मेळ्ळोलो किणि मामाचो आशिल्लो. साकाळीं आट वरांचो वेळ. मनाक देहाक होड उन्मेष दिसतालो. प्लटफोमार किणि मामान अशी येवनु वळख घेतली.

'रघुनाथ न्हय वें नांव?'

'व्हय. म्हळ्यार माका तुमची वळख ना मू!'

'हांव गोपिनाथ किणि, रिटेड स्कूल टीचर. जन्नालो माम जाता. ताका येवंचाक जायना. दिकून हांवच आयलों.'

जन्ना तागेलो परणो मित्र. जन्नाले बेंकांत ताकाय प्रथम जावनु काम मेळ्यां. पांच मासांक थांगा ट्रेनिंग जावनु दुशेर वेगळे स्थायार वचूका. स सात दीस मुरथम जन्नाक पत्र बरयलेलें.

'हां, व्हय, जन्ना मिगेलो कोलेजमेट. जाल्यार आमी आळता पेळतांत दिकून काळ ओटू जाला...'

आनी मुकार कितें सांगप म्हूण तो चिंततालो.

'तें म्हूण कितें, आनीक खूब दिकूयात मू. लगेज इतलेंच कीं?'

'हें स्यूटकेस आनी हें बेडींग मात्र.'

'समच मिगेले घराकडे वचूं. देनपारां थांगा येन म्हळ्यां जन्नान.'

'ओ, तुमकां कष्ट जाले. खयींच एक रूम चोवनु दवरूक तं हांवें जन्नाक बरयलेलें.'

'कष्ट कसले? जन्नान सगट सांगल्यां. हांगा कूड मेळूक बहु प्रयासु. लगेज वासु हाडतलो. आरे वासू!'

ना, नाका म्हणूक ताका वेळ मेळ्ळोना. चेल्यान स्यूटकेस आनी बेडींग मात्यार काडलेंच. दोन फरलोंग वतना जन्नालें घर दिकीलें. सान घर. कदियातु घालनु सोडल्यां. तागेले बायलेक कितेंकींच नज जाल्यां म्हूण तीं

आस्पत्रेंत गेल्यांय. थांगाच्यान एक घुंवतना किणि मामालें घर. सामान्य होड घर आनी परम. रुकांच्या सावटांतुल्यान वाट.

एक धूव मात्र किणि मामाक, उषा. तिका आसा तीन वर्षांची एक चेली, रेणू. तोंड भर उतरांय पाय भर धांवूय तं रेणूक. तिजे थेट विपरीत तं तिगेली अम्मा. एकि जाप, अर्दु हास...जालें!

जन्नान सांगून मागीर थांगाचें कार्य सगट कळ्ळें. ते भितर किणि मामाले घरांत तो एक पेयिंग गॅस्ट जावनु राबूक लागल्लो. तें एक परस्पर गुणांक्षाचें कार्य आशिल्लें. त्या गांवांत ताका राबूक वेगळो एक स्थाय अवसून मेळना. किणि मामाक जाल्यार एक आर्थिक सहायूय जालो.

घराचें उत्तरेचें कूड वेगळें सरि तं. ताका लागून न्हाणीय आसा. तें ताजे खातीर तयार आशिल्लें. ताणें सांजेचें जन्नाले घरा कडे वचप आसा एकेक वेळार. तशी एक वेळार ताणे सांगलेली उषाली काणी.

'बहु कष्ट गा तीं कायरीं. आठयल्यार हरदें जड जाता. त्या संभवांचें उपरांतें आतां चारि चिल्वाण वर्षां जाल्यांय. किणि माम तावळी स्कूलाचो हेडमास्तर. मास्तराले अध्यापनाचें अंतिम वर्ष आशिल्लें तें. स्कूलांत सुरेश म्हूण एकलो तरनाटो मलयाळी मास्तर आशिल्लो. किणि मामाकच न्हय, थांगाच्या विद्यार्थ्यांकय इतर मास्तरांकय सर्व ताजेर होड कायरें. मामाले घराकडे सदांच म्हळ्यावरी तो वतालो. माम ताका निज पुतावरी लेकतालोय. चांग स्वभाव. अध्यापनांत दाष्टीक. हे उषाक ताजेर मोग जालो. ताका तिजेरीय. सामान्य जावनु कोणाक जाल्यारीय कळूक होड कष्ट नातिल्लें तें कार्य मामाक मात्र कळ्ळेंना. सुरेशानय आठयलेंना किणि मामाक जाती विशीं तशी होड कसलेंय विवेचन आसतलें म्हूण. विवाहा कायरें ताणे म्हळ्ळेंच म्हळ्ळें, मामालो स्वभावूच परतलो.

'स्कूल वर्ष जांवचे मुरथमच शेष मासांक अवधी दीवनु बेसलो. स्कूलांत बाकी मास्तरांच्या मुकार सुरेशाक मामान सवलें म्हुणूय आयकिल्यां. मामाक उषा एकलीच चेली. तीणेय होड हठ धरलें. ते पर्यंत तिजे लागी कोपान एक

उतर सरी उलोवनातीले किणि मामान तेद्दूस तिका अशी मारली कीं कोण कोणाक तशी मारता हांवें दिकलेंना. एक वाराक आमी तिका हांगा हाडून राबयली. मामा लागी हांव मस्त सांगून चोयलों. आमी कितें जाय जाल्यारीय कराय म्हूण सांगून माम घराकडे गेलो आनी कवड दिलेंच.

'गांवांत जाल्यार होड चर्चा. तें दिकून तांगेले रजिस्तर विवाहाक जाय जालेलें करूक हांवच मुकार सरलों. तांकां राबूक घर मेळ्ळेलें रेल क्रॉसाच्या पेल्यान जावनु तं. सुरेश सदांच म्हळ्या वरी हांगा येतालो. एकेक दिसा तीवय लागी आसताली. तो क्रिसमस अवधीचो वेळ तान्नी संतोषान आघोष केलो.

'तावळी तं काळकांतुलो तो होड पेट्टू. तो दीस माका मेल्यार सरी विसरूक जावन्ना. हांगा वासून तं धावनु येवनु बोब मारलेली. हांवें स्कूटर काडून आस्पत्रेंत पांवचे मुरथमच सर्व जालें.

'सुरेशाले घराकडे वचे वाटेर रेल क्रॉसाचेर तागेलें सायकल दिकीलें. कांय एक बाकी ना आशिल्लें ताजें. वाटेर उषाय मेळ्ळी. भूत-प्रेतांक हांवें दिकलींनाय.. जाल्यार तेद्दूसचें तिगेलें रूप आठयल्यार तसलो विचार तं मनांत येता...'

'पुरो, पुरो जन्ना.. हेंच आयकूक चड..'

ताका मागीर कितेंय आयकूका म्हूण दिसलेंना.

'मागीर उणेच दिसांक आस्पत्री, पत्रकार आनी पुलीस तं आशिल्ले. उषा मागीर साबाव एक जीवछव सरी जाली. रेणू जांवचाकय मात्र तं तिगेले दोळे ओल्ले जालेले. मामाक जालोलो पश्चाताप ताजा होड. सदांच मिजे लागी सांगून रडतालो..'

ताका सुरवेक तिजे लागी सहताप तं दिसलोलो. मागीर तो स्नेह जावन वाड्डलो. अम्मा बप्पा नातिल्लें वाडलोलो मू तो. तागेलें मन स्वताच

बहु लोल. कसलीय दुखी तांकूक ताका कष्ट. कांय तरीय मनांत निपोवनु दवरूकय ताका प्रयास. एक दिसा तें भायर पडलेंच.

किणि मामाथंय जेवण सगटांक एकसाणि. मास्तर, रेणु आनी तो बेसतलीं. उषा वाडतली. रेणूलो खेळ हास हर्द्यांत अशी तशी पडता. स्वल्प हास येता आनी चड दुखय दिसता.

'मास्तर माम, माका हांवच तं आसा. आवसु बापूसु कोण वरलींनाय. मिगेलो म्हणूक एकलो आनु मात्र आसा. तो जाल्यार दूरा गोंयांतु. थांगाच बायल चेरडूवां. मासाक एक बर्पारि राबता अन्वेषण.'

'तुका तशी जाल्यार माका वेगळेंच समजल्यां रे. चोय आतां, हांव सगळोच हांगा आसूनूय मिगेले एकलेच धुवेलीं कायरीं. वैधव्य भोगूची प्राय वे तिगेली? कशी ती जीवित काडता, हें देवाक एकल्याक कळता! कालु वतना सर्व सामकी जातलें म्हूण आठयलोलो हांवच मूर्खु. तिगेलें ना ना आयकूनूय सुमार सोयरीको गेल्या दोन वर्षां भितरि हाडल्यो. मागीरीय ती मिजे तोंडाक चोवनु नाका म्हणूच म्हणता. परतून तिजे तोंडाक चोंवचाक मिज्यांत तरि शक्तीय ना. कसलें पाप हांवें केल्यां म्हूण माका कळना...'

'मास्तर माम, माका हें कशी सांगूका म्हूण कळना. हांगाचें कार्य सर्व मिजे लागी जन्नान म्हळ्यां. आतां पर्यंत कोणे मिजेर तुमचे वरी स्नेह दाकयलोना. तुमकां हांव अन्य जावनु राबलोना. मास्तर माम, तुमकां विरोध ना जाल्यार, माका चांग आग्रहु आसा उषाक विवाह कोरका म्हूण..'

एक निषिद्ध कार्य सांगलेल्या वरी तागेली जाप अर्दवाक राबिल्ली. जाल्यार तें किणि मामानय स्वयं आठयलेलें कार्यच आशिल्लें.

'रघू.. हांवें तुजे लागी सांगूका म्हूण आठयलेलेंच आतां तूवें स्वयं सांगल्यां!'

'जाल्यार.. ओ मास्तर माम, माका इतलोच संतोष आजि पर्यंत कळ्ळोना!'

'पुण तीणें लेक्कुन्ना रे...'

'हांवेंच निमगिल्यारीय लेक्कुन्ना? एक वेळा, रेणूक आठोवन पुणीय?'

'माका दिस्सना रे...'

'तावळि कितें करचें?'

'एक कार्य करि तूं. जन्ना लागी म्होणु चोय. ताणे सांगल्यार एक वेळा ती लेकूक पुरो..'

जन्ना लागी म्हणतना तागेलेय हात उद्दारीच.

'तूंच तिचे लागी म्होणु चोय गा. आतांय तिगेलीं उतरां जावो ते जळचे दोळे जावो माका विसरूक जायनाय. गेले पावटीनच तिजे लागी निमगूचें हांवें राबयलें...'

बेंक रिक्रियेशन क्लबांत थाकून पुस्तकां हाडून दिवंचीं तीणें वाचलीं. एक उतर म्हण्टना तावळीच रेणूले नांवांर बेंकांतु पेट्टे अकौंड आरंभिलें. मार्केटांत थाकून रांवदयेक तरकारी हाडली म्हण्टाना तीणे हासूनूच घेतली. मास्तर मामा लागी ताणें चेस्स खेळतना ती लागी येवनु खेळु चोवनु बेस्सली. तिजें नांव घेवनु ताणे 'उषा' म्हूण उळदितना तीणें सरळ उल्लो घेतलो. जाल्यार ताणें तागेले हर्द्यांतुलो आग्रहु म्हळ्ळो म्हण्टना कायरीं सर्व उप्परतलीं! कितलेच दिसांनी वाड्डून आयलेलें स्नेहाचें झाड एकच क्षणान करपलें.

'बापान सांगलेलें आसतलें..'

ते उतरांतु शैत्याचे इंगाळे आशिल्ले.

'न्हय.. हांव.. हांवेंच तं सांगलेलें मास्तर मामा लागी..'

'चार मासान कांय कोण कोणाक वळकना. वीस वर्ष वाड्डयलेले निज बापाक हांव वळकिलीना..'

तिगेले मेजून वेंचून आशिल्ले उतरांक भोव धार दिसताली.

'हो मास जावनु आनी वचे कडेन हाचाकय कष्ट दिसूची कोणालीय काणी आयकतना तुमकां हाचाकय चड सहताप दिसतलो. तसलो स्नेह वार्यावेले सुक्के पाल्यां वरी मात्र..'

'रेणूक हांव मिगेलीच सरी...'

'सरी! परक्याले चेरडाचेर पुरथमच सग स्नेह आसतलो. तागतागेलें जातना मागीर तो तशीच निकळतलो..'

आकस्मिक जावनु जन्नाक प्रोमोषन ट्रांस्फर. कार्य कांय पुरतें कळनातीलें तो म्हण्टा - 'तूं दुशेर दुशेर इत्याक अशी अनुवाद अनुकूल सग निमगीता? दृढ उतरान तिका आपय. ती येतली. किणि मामा लागी आशिल्ले वाशीन मात्र तिगेलो हो न्हयकार. तुमी तेगांय एकसाणीच निश्चय जावनु सुखी आसतलीं म्हूण माका खांडित कळता..'

ताणें तशीय चोयलेलें. आनी ताका मेळूक आशिल्लें खूब जावनु मेळ्ळेंय!

'कोणा लागी म्हूण अशी वाशी धरता उषा? गेलेले मनिषाले खातीर तं जाल्यार हांवें कितें सांगचें? नातिल्ली दुखाची मोट व्हांवचान करतना कोणाक कांय मेळना..'

'सदा दुडवा लेकांत वरच्या मनिषांक कसल्याक मृदुल विकार? तुमगेले बेंकान गांव दत्त काडून उद्धार करचे वरी जायत तुमी एक विधवेकय...'

'मिजे पासून इतलेंच वे तूं लेकीता उषा?'

उज्याचीं उतरां कशीय पुणी सहन करूयात. जाल्यार स्नेहाचें एक उतर जशी हरदें पिसुडता, तशी वेगळें कांय ना. प्रथमलो कोपु जावनु तीणे सांगलेलें..

'रघू.. हांव माकाच विसरलीं.. मस्त सग सांगीलें.. एक भयणीक तुमी क्षमा दितले म्हूण विश्वास धरतां. माका जन्नानु कशी कीं, तुमीय तशीच.. ताजाकय लागी नातीलें दूरा न्हय. म्हळ्यार माका मिगेलोच मार्ग...'

'आनी माका मिगेलोय, म्हूण वे '?

तांगतांगेल्यालो कोपु आमकां सहन करूयात, जाल्यार तांगेले दोळ्यांतुलीं दुखां कशी सहन करचीं ?

उज्या भांडीतुले तागेले कडेनच्या सीटार रघुनाथ दोळे धांकून बेसलो. वार्याचे शेळीन करतना एकामेकाक आडळचे दांत ताणें किरडून धरले. व्यर्थ एकि चिंता मनांतु आयली..

*ही भांडी अशीच धांवताच आसली जल्यार!*

*खंयीच आनी राबूनातीलें...*

* * * * * *

## 1981 जुलाय 9, बिरेस्तार

वासूक कांय एक बेट्टेळु नातिल्लो दीस आशिल्लो तो. सगळोच दीसु धावनु भोवनु हें तें एकेक केलें म्हुण नंतना, कितें कितें केलें म्हुण कांय ताका सारको उडगास ना. एका मागल्यान एक कार्य हो तो कोणय ताका करूक सांगतालो. सांगलेलें सांगलेलें सर्वय ताणे केलें. तें हाडूक थांगा धावलो. आनी एक हाडूक धरा धरारि आनी एकडे धावलो.

घरा मुकार टारपोलिनाचो एक मांटोव उबो जालो. थांगा वीस पंचेवीस कदेलां घालीं. आकाड्या कडे एक काळी घुडी दवरली. खबर कळून गांवकार येतच आसाय.

गेल्या दोन दिसांक अखंड पडून आशिल्या पावसाक आजि स्वल्प होळोव अयला. मळब फूट जाल्यां आनी सूर्या हुनशेंच वोत घेवनु आयला.

जाल्यार ह्या घराचो सूर्या देनपारा मुरथमच अस्त जाला! निवृत्त हेड मास्तर गोपिनाथ किणि माम अकालाचेर आनी अकस्मात निधन जाला..

'कसलेंच असुख नातिल्लो मनीषु! आयुष्यांतु आस्पत्री दिकूनातिल्लो मनीषु! आयकून  माका विश्वासूच आयलोना!'

चडय जाणांक सांगूक आसा तेंच तें..

'केदनाय बी एक वेळा आस्पत्रेंत गेलोलो आशिल्लो जाल्यार किणि मामाले आरोग्या विशीं उषक्काक पुणीय कळतलें आशिल्लें..'

वासून मनांतूच म्हळें.

'आठयनास्तना आयचे वरी आपत्यु येतना कितें करका म्हुण कळतलें आशिल्लें..'

किणि माम सकाळीं स कीं साडिस वरांचेर परमांत देवलोलो. दोन दिसांचे पावसा नंतर होळोव आयलो म्हुण तं देवलोलो. साधारण जावनु देड वरांची तं सकाळींची भोंवडी. मागीर देनपार परतूनूय आसा तशीच एक लागेन.

घराकडेचें एक दोन दंद जावनु तोवय वतलो मामाले सहायाक. आजि न्हाणयेंतलो हांडो तापोवनु जावनु ताणें वतना वरां सात पुणीय जालीं आसतलीं. परमांत चोयल्यार माम खंय आसा म्हुण दिकूयेना. घरांत बी परतून आयलो वे म्हुण उषक्का लागी निमगीलें.

'ना मुरे..' खंय अक्का.

'घडाय जून जालेले ते केळीकडे आसू पुरो. तूं यो, एक उलो मारल्यार कळतलें!'

जाल्यार अक्कान भायर येवनु उलो मारल्यारीय कांय एक जाप ना. मागीर ताणेंय होडान उले मारले. कांय एक जाप ना! तावळी अक्कान होगी ते केळी कडे धांव मारलो. स्वल्प लागी पांवतनाच मामाले पाय दिकीले. ओल्ले रेवेंतूय चिकलांतूय जावनु सुबोध वचून पडला तं.

चोयतना तोंड सगलेंच हुमेवनु आसा. अक्कान मामाले गळ्या पोंदाचान हात वेष्टून मातें स्वल्प उबारलें.

'आप्पा! आप्पा!' म्हुण उळदितना मामान संथ दोळे विसकळायले. तावळि आमकां होड आश्वास दिसलोलो. जाल्यार मामाले देहाक कांय एक धीर ना. दोगांनींय मेळनु धोरनु उबारनु तं मामाक घरांत हाडलोलो. तावळी कळ्ळें, तोंड मात्र न्हय, सगलेंच देह हुमेन तिमून आसा.

तो समच लागीचे घराकडे धावलो. कायरें सांगतना थांगाचो आन्नू होगी ताजे ओटू आयलो. जाल्यार तान्नी पांवू भितर सगलेंय जालेलें! ते आन्नून मामाले नांका लागीं हात भोंवडायलो. मनकटाची नाडी धोरनु चोयलो.

'माषु पोयल्लो..' खंय तो.



* *मास्तर गेलो मू...*

ते आन्नून सांगून तो दुशेर ते शेजार घराकडे धावलो, आनी ते आन्नूले बायलेकय उळदून हाडली. तें जावनु वेगळींय कोण सगट आयलीं. एक डोक्टराकय ओटो रिक्षेचेर हाडलो. बाकी दीस अमसरांत बुडलो.

आतां मुकावेल्याच कूडांतु निदायला किणि मामाक. दक्षिणेक मातें केल्यां. मात्या कडेय पायां कडेय एकेक नारला वोळ्यांतु वाती जळयल्याय. जायती लेबणा वातीय जळयल्याय. साताट पुष्पचक्रां आतांच दवरल्यांय. स्कूलां थाकून, पी टी एचे तरपेन, समाजाचे तरपेन, बेंकाचे तरपेन सगट. आनीकय येंवचाक आसाय एक दोन.

कूडाचे कडेन जावनु उषक्का बेसल्या. उषक्काले होंटींतु मातें दवरून धुवामु निशब्द पडल्या. पाप.. चेलेक कायरें कांय कळ्ळें म्हुण दिसना. सानि न वें ती..

एकेक आवश्याक अशीय तशीय वतस्तना वासू ते कूडांतु एक दोळो उव्वाळता आसा. जाल्यार चड लागी वचाक ताका धीर ना. किणि माम तागेलो बंधु न्हय. वास्तवाक स्वंत बापूस गेलेल्या वरी ताका दिसतालें व्हयीच. जाल्यार तें स्वकार्य वेगळे कोणाक समजूक साध्य न्हय. बाबड्याक रडूक सरी जायना दिकून तो एकेक कार्य करताच राबलो. हे ते कार्यां विशीं हाचे ताचे लागी निमगिताच राबलो. एकेक वेळार सांगलेलेंच कार्य तो दुशेरीय सांगतालो. कांय संबंध नातिल्लींय एकेक वर्तमानां तागेले तोंडांतुल्यान बडबडतालीं. मदीं मदीं अर्थ नातिल्लो, मूर्खतेचो एक हासूय ते तोंडार उदेतालो.

देनपारां एक वराचेर कण्णूर थाकून मावशी आयली. लागी भावाजीय आसा. आतां आनी कोण पांवचाक ना. समाजाचे स्वयं सेवक मुकार सरताय. घरकारांचें सम्मत मात्र पुरो तांकां. कांय एक चुकोवनातीलें सर्वय यथाविधि करतले. घरा मुकार होड एक केळी पान दवरलें. किणि मामालें देह ताचेर दवरलें. न्हाणयलें. एकेकल्याक आपोवनु गंगाजल ओरोव इत्यादी दिवयलीं. फुला माळा घालयल्यो.

वासु दूरा सरनु राबिल्लो. उषान ताकाय आपयलो. कडकडेंवचे हातान ताणेंय गंगाजल इत्यादीक दिलीं. माळा घाली. प्रदक्षिणेन येवनु नमस्कार घालो.

दहना वेळ पावलो म्हण्टना समाजंतुलेय इतर जातीचेय जावनु जायतो लोक आशिल्लो. घराचे पश्चिमा कडेन चडय सुकीं करटीं आनी शेणयो दवरून तं दहन. एक पोंये कुटक्यान एक कडेचान वासूनय उजो दवरलो.

उपरांत कोणें कीं म्हळें.

'आनी घराक वच रे वासू. वचून मात्यार न्हावनु इतेंय खांवचाक चोय..'

तो संथ परतून आयलो. न्हावनु येतना ताका उषान आपोवनु खाण आनी चाय दिली. तें जावनु तो तागेले चायपा कूडांतु गेलो. थांगाच्यान भायर चोयतना उजो वाडवला. स्वल्प धुवोर मात्र आतांय येता आसा..

हेंवय किणि मामान आठयलेल्या उरफाटेंच जाल्यां. उषक्कालेय धुवामालेय जीवितांतु एक कितेंय शुभकार्य जावनु दिकूका म्हुण होड आग्रहु आशिल्लो मामाक. देवा दयेन तशी कितेंय तोडोव नातिल्लें घडून येतलेंच म्हुण विश्वासूय आशिल्लो. कांय एक जालेंना. आतां जाल्यार आठोवनातीलें अशीय जालें. साठि वर्शां सरी जालींनाय मामाक!

आनी मुकार कितें म्हुण वासूक हुसको आसा. उषक्काक एकलीच हांगा राबूक जातलें वे? मावशेथंय बी राबूक वता जाल्यार हें घर कितें करतलीं? हांव खंय वतलों?

हातांत आशिल्याचे कित्याचेंय मोल आमकां कळना. तें हात सोडून गेलें म्हण्टना तं ताजें मोल कळूक आरांभता. जाल्यार गेलेलें कितेंय परतून मेळत वे?

तागेले चायपांत ताणें एक देवा कलेंडर लांबोवनु सोडलेलें आसा. परणें कलेंडर. जाल्यार ताजेवेल्या श्रीकृष्णाले तोंडार कितलोच करुणार्द्र

जावनाशिल्लो एक मंदहासु आसा. चायपाचें कवड आड करून तो ते कलेंडरा मुकार वचून राबलो. हात जोडता जोडतांच तागेले दोळे भरून आयले..

'ह्या घरांतूय कसलोच एक संतोष तूं हाडी देवा!'

कवड आड केल्यार त्या चायपांत मागीर होड उजवाड कांय ना. तसल्या त्या अर्द काळकांत चायपाचे फूट भुंयचेर तो आड पडलो. शब्दु दामोवनु, खोळसां गिळून तो रडलो. खूब रडलो. रडून रडून निदेलो.

उषाकय रेणूकय कण्णूराक व्हरूक तयार जावनु तं मावशी आयलेली. जाल्यार तें कार्य छट करून सांगूचें कशी? फाल्या संथ सांगूं म्हुण ती आठयताली. वासूले कार्यांत मात्र तं तिका कितें करका म्हुण निश्चय नासलोलो. ताका बंधु बांधव कोण ना म्हुण तिका कळता. तागेले कार्यांतु समाजाचे प्रवर्तकांलो सहाय निमगूं म्हुण भावाजीन तिका समजायली.

जाल्यार ह्या विषयांत उषानच जावनु तांकां दोगांकय जाप दिली. स्वल्प काळांक लागेन तीं हांगा ह्याच घरांत राबतलीं खंय! रेणूक स्कूलांत घालचो वेळ जातना दोगांय कण्णूराक येवनु राबूं म्हुण तीणें तांकां उतर दिलें..

'ते भितर वासू हांगाच राबो. मागीरचे कायरें संथ आमी निश्चय करूं..'

भितरचे कूडांत थाकून रेणूलें परंवप आयकू येता. तिगेलें प्रकृत न्हय तें. शब्द करनातीली गाढनिद्रा तं तिगेली संवय. आजि ते मात्यांतु शंभर प्रश्न भरल्याय. जाल्यार कोणा लागी एकीय जाप तीणें निमगिलीना. म्हालगडीं आळतापेळतांतु उलयताय आसतना ती तिगेले ते होडले दोळे विसकळावनु आयकून बेसली मात्र. स्वल्प सगट तिका कळ्ळें. जाल्यार तिगेले मनांतुले कितलेच प्रश्नांक कसलीय जाप मेळ्ळीना. म्हालगडीं कोण तसल्या कसल्यां विशीं कांय एक उतर उलयनाय आशिल्लीं!

निदेलेले कडे ती आळतापेळतांतु घुवनु घुवनु पडता आसा. ओंट स्वल्प स्वल्प हालताय. एकेक वेळा ते  कसलींकींच उतरां बडबडायताय. एकेक वेळा एक परंवप आयकू येता. उषान चेलेले निडलाक हात लायलो. *ना.. तापु कांय ना.*

तीणे धुवेले मात्यावेल्यान, केसांवेल्यान संथ हात भोंवडायलो. चेलेलें परंवप संथ राबीलें. एक दीगु हुसकार सोडून ती दुशेर एक पावटी घूवनु पडली. स्वल्प वेळ तिका चोवनु राबीली उषा. मागीर तिजे म्हार्यांत मांचाची देग लागून तीवय आड पडली.

मात्या ऊंच घुंवच्या सीलिंग फानाचेर तिजी दृष्टी भोंवताली. जाल्यार तिजे दोळ्यां मुकार बापालें तोंड नियाळतालें. मस्त वर्ष मुरथमलें तोंड. खेळहास उलोंवचें तोंड. बापाले ओटू देवळांत वचें, स्कूलांत वचें, परमांत भोंवचें, चेस्स खेळचें, एकेकाचो तिका उडगास जालो.

मागीर, तिका कोपूचो बापा उडगासांत आयलो. ते एक पावटी तिका बापान मारलोलो.. जाल्यार तिगेले बामणाक अपाय जालोलो आयकून तांगेले घराकडे धावनु आयलोलो बापा.. तिजे लागी रडून क्षमा मागूचो बापा.. तिगेले चेले लागी खेळहास उलोंवचो बापा.. 'आगो धुवामा..' म्हुण उळदून रेणूक पुराणांतुल्यो काण्यो सांगून दिवंचो आबू..

उषाक तशी रण्णें फुटलेंना. जाल्यार तिगेल्या दोळ्यांतुल्यान अशीच दुखां व्हांवलीं, तीणेंच नेणतां..

वर्षां उपरांतें तिजे लागी दुशेर विवाह करूक मस्त सांगून चोयलो बाबडो. स्वल्प काळांक हांगा राबिल्ले बेंकांतुले रघू विशीं बापाक चडूच आग्रहु आशिल्लो. तीणें एकेक पावटी नाका म्हणतनाय तें तोंड चड चड बांवता ती दिकताली. जाल्यार तिका वेगळो एक उपाय दिकूक येना आशिल्लोय. चेलेले भविष्या खातीर म्हुण सांगून एकेक केल्यार मागीर तशी केलेल्याचें भविष्य कितें जातलें म्हुण तं ती भिताली. ताजे भायर जीविता लागी आशिल्ले तिगेले जीवाजाळ वेगळेय..

तिगेलो तिरस्कारूय घेवनु रघून वतना बापाक चडच वायट दिसलें म्हुण कळ्ळें. मस्त दिसांक चेले लागी सरी संतोषान उलयलोना. एक दोन दिसांक चेलीच कोपान तं भोंवताली. अंकल गेलो म्हुण मात्र तं तिका कळता. वेगळें कायरें कांय तिका कळना. तें एक समाधान..

'धुवामाक कळतालें जाल्यार एक वेळा तीवय मिजे लागी झगडूक बी येतली आसू पुरो!'

तीणें स्वयं शिरापिलें - कसलो एक कपला बोरो देवा मिगेलो..

जायते दीस वचून जावनु मागीरीय बापान रघूलो विचार सोडलोना म्हुण तिका कळ्ळें. अंकल परतून येतलो म्हूण एकेक वेळार चेले लागी म्हण्टालो तीणें आयकिल्यां. आबोन कितेंय एक सांगल्यार मागीर नातीक ताजे ऊंच कांय एक ना.

आतां आनीक तशी एक दिसा सपन सरी ह्या घरांत पांवचें ना..

कसलो कीं एक शब्द आयकून ती सुद्धीर आयली. होगी दोळे पुसून मांचार थाकून उटायली. वासरेंत मावशी चाय बी दवरता म्हूण दिसता. ती वासरेंत चमकिली.

* * * * * *

## 1982 मेय 3, सोमार

मलबार एक्सप्रस. दिस दिसाची भांडी ही. कितूले जनांक खंय खंय सगट पांवयता! केद्दाणा चोयल्यारीय जनपदाचो खीटु मू. बुक केल्यार नंतना बर्थ मेळना. बुक करूक पुणीय साध्य म्हळ्ळेलें होड कायरें. जीविताचे भांडीक तसलें सौकर्य कांय ना. पांवका म्हळ्ळेले कडे एक वेळार पांवलीं म्हूण जांवचें ना. देंवका देंवका म्हूण आठयल्यार देवूंक अवसलें म्हूणूय जांवचें ना. समाधानेन बेसूक सरि अवसलें म्हूण जांवचें ना. व्हेलेले कडे वचूका.. व्हेले तशी वचूका..

उषा भांडीर चडलेली राती णव वरांचेर. चडोवनु सोडूक भावाजी आयलोलो. बर्थ बुक केले निमित्तीं वांचली. आनी आतां निदेंवका मात्र. कंपार्टमेंटांतुलीं बाकी जन निदेंवचाक तयारी करताय. तीणेंय बेगांतुलें षीट भायर काडलें. बेग उशें करप, आनी पांगूरनु पडप. दोळे धांकून पडल्यारीय नीद येना जाल्यार आनी एक वाट आसा. दोळे वाकतेच धरूक श्रमु केल्यार पुरो. नीद नेणतांच येतली.

एकेक अनुभवांत, अदृष्ठांत थाकून मू मनीष एकेक शिकून काडता. अन्य जातीचे दादल्या लागी मोग जाल्यार कितें करप? स्वंत बापूसूच विवाहाक आड राबल्यार कितें करप?

मनाक सायलेल्या लागी विवाह जावनु संतोष पांवचाक मेळ्ळेले दीस कितूले? बारा दीस आनी बारा राती! काळकांतुलो येद्दो व्हडलो पेट्टु तशी मेळतना कितें करप? वेगळो उपाय ना.. दांत किरडून सहन करका! पोटांत

तागेलें चेरडूं वाडता म्हूण कळतना कितें करप? लोकाचे भयान रडप वे? कीं जीविताक नवें लक्ष्य मेळ्ळें म्हूण आश्वासु पांवप?

*सान सान संतोष पुरोय माका...*

जनेला कडे मात्तें करनु पडलेले तिगेले तोंडार एक बावलोलो हास उदेलो. दुशेरे क्षणार तिगेले जिबेर थाकून ही प्रार्थना फुटली..

'देवा, मिगेले चेलेक तूवें हातु सोडूनयें! तूवें दिलेलें तितलेंय हांवें भोगलेंना वे? तूं नेणतना जगाचो एक्को संतोष सरि हांव फारूक चोयलि वे? चांग मनिषान एकल्यान उलो केद्दो दितनाय हांवें तागेलो आश्रय घेतलोना मू..'

छट जावनु दोळे भरले म्हण्टना तीणें षीटानच ते पुसले. अशी अनावश्य विचार घुसमुटायताय जाल्यार कितें करप म्हूणूय ती शिकल्या. तीणें धुवे विशीं आठोंवचाक आरांभिलें. रेणु आतां होडि जाल्या. एकाव्यांत ॲडमिषन मेळ्ळ्यां. जूण आयल्यार ती शाळेंत वचाक आरांभितली. जालेलें सर्व कालचे कालि मात्र म्हूण दिसता. जाल्यार वास्तवाक वर्षां कितूलीं धावनु गेलीं! बापान वचून सरि वर्ष लागता..

बापा आशिल्लो जाल्यार गांवांतूच राबून बापान शिकयलेलेच शाळेंत तिका पेटोवयात आशिल्लें. दोगांकय संतोष जातालो. त्या घराच्या जातकारीच संतोष ना जाल्यार कितें करप? थांगा हांव सरि वाड्डल्ली अम्मा नातिल्लें मू! मिगेले चेल्लेक जाल्यार आसाच एक अम्मा मात्र. बापा ना, भांवड ना, आबु ना, आयी ना..

आबु गेलेले उपरांतें तिकाय उणेच व्यत्यासु आयला. खवदळ किटकीट नाच्च जाल्या. वर्तमान हासूय उणें. म्हळ्यार बुदवंति तं, संशय ना. असली एकली धूव मेळ्ळेलें एक अपूर्व भाग्य म्हूण आठोंवका.

अशी आपण्याक मेजून मेळ्ळेले संतोष उजरावनु वेंचून ती निदेली. आयूचे उणेच वर्षांनी मस्त दुख भोगिल्ले अभाग्यां मदें एकली ती. प्रायेन पांचेविसाची मात्र तरीय तिगेले केस एकेक पिकूक आरांभल्याय.

गांवांतुले घराकडे तीवय, पांच वर्षांची चेल्लीय, दंदाचो चेल्लोय मात्र आशिल्लीं. चेल्ली होडि जावनु येता दिकून तान्नी कण्णूराक मावशेले घराकडे राबूक आरांभिल्यां. गांवांतुलें घर बेंकान भाड्याक निमगिल्यां. तीन वर्षांचें करार. ताजीं कागतां ओप घालूक आनी चावी दिंवचाक म्हूण तं ती आतां वता आसा. तें जावनु सांजेच ती परतून कण्णूराक वतली.

फांतोड फुटूचे मुरथम ती जागी जाली तरीय बर्थार थाकून उटायली ना. जनेलांतुल्यान भायर चोवनु नुतोच पडली. काळूक वचून संथ संथ उजवाड फुल्लेता दिकूक वेगळोच संतोष आसा. ताजान मेळचो उन्मेष पुरो तिका, चाय कापी कांय नाका. अमसोरकारांलो गोंदोळ चिके उणो जालो म्हण्टना ती संथ उटायली. षीट घडी घालनु बेगांतु दवरलें. ब्रष, पेस्ट, आंगूटी घेवनु ती वाष बेसिना लागी पावली. भाग्य, थांगा कोण ना. तोंड धुतना थांगाचे खांपाळे कन्नडेंत येदोच वेळ ती चोवनु राबली. ही हांव वे! एक वेळार सुकडें भेंडें म्हूण खेळ केल्यार संतोष दिसतालो. वास्तवाक तें विशेषण अवसता आतां तं..

परतून सीटा लागी चमकतना तिका दिसलें, आतां जाल्यार एक हूनि कापी पीवयात! कापीकार कोण बी दिकूयेता वे म्हूण बोगीचे ते कडे चोयलेले तिका छट जावनु षोक लागल्ले वरी जालें. बोगीचे ते कडेचान हातांत टरकी टवल, पेस्ट आनी ब्रष धरनु येंवचो तो मनीषु.. तें तोंड तिका सुपरिचित...

रघु!

तो हेच भांडीर आशिल्लो.. हेच बोगींत!

तिका मात्तें घुंवचे वरी दिसलें. हरदें होडान धाडवता. श्वास घुसमुटेता. मात्या समच मेळ्ळेले एक बोळ्याचेर तीणें बोटां कवळ्ळीं. पायांक बल

दिसना. हांगा थांगा धरनु आडळून अमसरान चमकून ती सीटार येवनु बेसली. मुकारि बेसलेली बायल कितेंकीच निमगिता.. सौख्य ना कीं म्हूण तं. तीणें मात्तें हालयलें...*कांय ना.. कांय ना...*

दोनि घडियांक दोळे धांकून बेसली. मागीर तीणें ओल्ली आंगूटी विसकळावनु संथ श्रद्धेन घडी घाली. तितल्यान तिका नियंत्रण परतून मेळ्ळें. आंगूटी, ब्रष, पेस्ट बेगांत दवोरनु तीणें दांतोणि भायर काडली. केस स्वल्प दामयले. तिगेली दृष्टी आशिल्ली बोगीचे मदेंचे वाटेर.

माका दिकली आसतली वे? सोदून बी येतलो वे? आयल्यार कितें उलोंवका?

स्वल्प वेळ चोवनु जातना तीणे दीर्घ निश्वास सोडलो.

ना, माका दिकलीना..

आश्वास दिसूका जालेले कडे ही निराशा कित्याक म्हूण ती स्वतालागी निमगिता. जाल्यार त्या प्रश्नाची जाप सांगूक तिका भयूय दिसता.

ना, आनी जीविताची गोडसाणि माका ना.. दोनि वर्षां मुरथम जीवितान आपयतना दोळे धांकून तिरस्कार केलोलो. स्नेह नातिल्यान वे? मोह नातिल्यान वे? आशा आग्रह नातिल्यान वे? कीं धैर्य ना म्हूण? तेदूस सगळेच संवसारा लागी वैर आशिल्ले. हातांत मेळ्ळेलें सर्व फुटोवनु पिठो करूक पुरोश जीवाजाळ आशिल्ले. देवान दिलेल्या दुर्भाग्या ऊंच स्वल्प दुर्भाग्य हांवेंच जावनु मागून घेतलेलें!

तिगेले दोळे वाकते आशिल्ले जाल्यारीय जायते वेळाक तीणें अशी तशीचें कांय दिकलेंना, कांय आयकिलेंना. कापीकार दोन तीन पावटी अशी तशी चमकून गेले. लागी आशिल्ले मनीष चाय कापी पिताय, इडली आंबाडे खाताय. मुकारि बेसल्ले बायलेन तिका हळूच हालयली.

'इदु कुडिच्चोळू.. क्षीणम् मारिकिट्टुम्..'

---

* *हें पी, थकसाण वतली..*

ते बायलेन दिलेली कापी ती पिली. हूनि कापी. जीवाक एक उन्मेष. दिलेल्याल्या वात्सल्यान करतना चडूच उन्मेष.

*देवा, तुगेल्या लोकांत चांग मनिषांचो कसलोय उणाव ना. तांकां वळखूक आशिल्ली बुद्धी माका दिल्लीना कित्या?*

मागीर तीणे स्वताक सांत्वन दिलें.

*कांय ना तरीय दुशेर एक पावटी अशी दिकूक पुणीय मेळ्ळो मू! माका दिकलीना जाल्यारीय कांय ना.. चांग जालें.. चांग जालें..*

गांव पांवता. ती हळूच बेगय घेवनु उटायली. मुकावेले बायलेक उपकार सांगून कवडा लागी चमकिली. घूवनु चोंवका, चोंवका, म्हूण धा पसार दिसलें जाल्यारीय ती घूवनु चोयलीना. भांडी राबतना देवनु सगटीय चिंता सोडून ती सुमसुमीच गेटाकडे चमकिली.

चिके चमकतना मागल्यान कोणें कीं तिगेलें नांव घेंवचे वरी तिका दिसलें. जाल्यार ही आपण्याली एक विभ्रांती मात्र म्हूण लेकून, मन निस्संग शांत करूक श्रमु काडून ती चमकताच राबली. तावळी मागलांचान तो उलो स्पष्ट जावनु दुशेर कानार पडलो. बहु वळखीचो ताळो..

मागल्यान तो तं, रघु!

हातपायांची त्राणि वचून थांगाच पडतली बी म्हूण तिका दिसलें. घूवनु चोंवचाक धीरु ना, शक्ति ना. घूडांत पडलेले विंदरा वरी हरदें कुद्दून धाडवता. चावि सरलेले बावले वरी ती थांगा राबून गेली. मागीर सगळीच विक्षुब्दि भितर चेपून ती घूवनु चोयली.

कान्नडेक दवरल्यां!

तें दवरलेल्यान ताका आतां स्वल्प लागेन प्राय दिसता. तोंडार एक पक्वता आयल्या. दोगांलेय तोंडार आश्चर्य!

'खंय वचून येता हें एकलीच?'

’आतां आमी कण्णूराचे मावशेथंय तं राबताय. आजि हांगा घराकडे एक कायरें आसा. तें जाल्यार आजीच परतून वतली.’

’ओ, व्हय वे?’ तागेलें तोंड बांवता..

’तावळी हांगा घरा कडे कोण ना वे? विकीलें बी वे?’

’घराकडे वासु मात्र आसा. तुमगेले बेंकान घर भाड्याक निमगिल्यां. करार ओप घालूक तं हांव आयल्यां..’

’तावळी किणि मामु?’

’तुमी नेण वे तें? बापा वचून एक वर्ष जाता आतां..’

’ओ..’ हरद्यार एक मुस्तप मेळ्ळ्या वरी जालें ताका.

’तुमकां दुशेर हांगा ट्रांस्फर मेळ्ळ्यां कीं?’

’ना..’ ताणें म्हळें. कडेन आशिल्ले एक बांकार ताणें स्यूटकेस दवरलें. पोकेटांत थाकून लेस काडून तोंड पुशीलें. दोळ्यावेलें कान्नडेक काडून नेणतांच तें संथ पुसूक आरांभिलें. आनी कितें सांगूका, कितें करका म्हूण ताका कळना.

तागेली स्थिति कळल्यावरि तीणें हळूच सांगलें..

’केंटीनांत हूनि चाय मेळतली..’

’येता वे तूंवय?’

’वचूया..’

हूनि चाय घटघटीच पितना ताका संथ उतर फुटलें.

’हांव नेण आशिल्लों किणि मामु गेलो म्हूण. तूवें छट करून सांगतना स्वल्प षेक जालों. कितें जालेलें किणि मामाक?’

’हार्ट ॲटाक आशिल्लें. कितें जालें म्हूण चोंवचे मुरथमच सर्व जालें.’

'हे पावटी माका कोलकत्ताक तं ट्रांस्फर. तुमगेलो हो गांव आनी केद्दाणा दिकूक मेळतलो म्हूण कळना. वचे मुरथम तुमकां सगटांक अशीच एक चोवया म्हूण भायर सरलोलों. आसो, तुका पुणीय दिकली मू..'

तिका ताजे लागी जायतें सगट निमगूका म्हूण आसा. व्हारडीक जाली आसतली वे? आसतलीच! चेरडूं बी?

'जाल्यार घरा कडे वचूया वे? देनपारां थांगा जेवनु वचूं. वासूकय दिकूयात..'

'ओ, आनी आतां कित्याक? रेणु पुणीय आशिल्ली जाल्यार वचूयात आशिल्लें. तुका जाल्यार बेंकांत वचूकायीय न वे?'

'बेंकांत तशी होड कांय करूक ना. देनपार जावनु गेल्यारीय पुरो. घराकडे आयल्यार स्वस्थ बेसून कितेंय दोन जाप उलोवयात. तुमचे विशीं येदोळ कांय सांगलेंना..'

'मिजे विशीं कितें सांगूक..'

ताज्या तोंडार उदेल्लो बावल्लो हास तिका चिरपरिचित. तिगेलेय तोंडार तो हास कितलेच पावटी उदेला!

'नवें जावनु हें कान्नडेक आयल्यां म्हूण मात्र. दूरा दिकूयेना! वाचूक बरोंवचाक नाका बी..'

'तावळी.. व्हार्डीक कांय?'

नेणतांच ती निमगून गेली..

'ना, व्हार्डीक जालीना. तूवें तेद्दूस सांगिल्ले वरी कांय जालेंना. मिगेलो सहताप दिवंचाक अवसून कोण एकली माका मेळ्ळीना!'

आठयनासतना तिगेले दोळे भरले, वोंट कडकडेले, ताळो हळबळेलो..

'मिजेरि कोपु वे?'

'तुजेरि कोपु? कितें सांगता हें? तुजेरि कोपु दिसूका जाल्यार हांव.....'

तें तीव्र उतर ताणें सांगलेंना. तीणें ताका आडायलोय.

'प्लीस रघू, तें एक उतर मात्र मिजे मुकारि सांगूनाका..'

इतलेंच सर्व उलयिल्ले उपरांतें तिगेले घराक वचूनातिल्लें जायना जालें ताका. सगळीच वाट दोगांय मोन्यानीच चमकलीं.

तीणें जेवणाक करतना तो वासू लागी उलोवनु बेसलो. भाड्या करार वाचून चोयलो. रेणू गुणी हाडलोलो चोगो, बावली, आनी बरफी स्यूटकेसां थाकून भायर काडून दवरलीं.

सुमार यात्रा करून आयलेल्यानय, सुवादाच्यो रांवदयो आशिल्यानय तो खुशाल जेवलो. ताणें तृप्तीन जेवंचें दोळे भर चोवनु राबीली ती. मागीर तीवय जेवली. सुवादान जेवली, संतोषान जेवली. येदोळ कितलेच काळांक ती जेवताली केवल आंगवणाचें जेवण मात्र.

देनपार आयलो.

'बेंकांत बी येतले वे? कोणय वळखीचे आसू पुरोय..'

'ना, ना, तशी कोण ना माका.'

'आनी तावळी?'

'दिकूक अवसतलें म्हूण दिसना..'

आपण्याले जीविताचें कवड सदा खातीर धांकता म्हूण ताका कळ्ळें.

'हें इतलेंच रेणूक दींवका. एक वेळा मिजो उडगासूच आसुन्ना तिका..'

'आसासा, उडगास आसा. वचे तेदूस तुमी दिलेलें टेडी बेअर आतांय तीणें सूक्ष्मेन दवरल्यां. अंकला लागी चेस्स खेळ शिकतली म्हणूय एकेक वेळार म्होणु भोंवताली..'

'एं! हांव परतून येतलो म्हूण कळतालें वे तिका?'

'बापा एकेक सांगून शिकयतालो तिका. एकच पावटी सांगल्यार पुरो कितेंय. मागीर तीणें तें विसोरना!'

'तिगेलें एक फोटो मात्र पेटोवनु दिशी वे माका? कोलकत्याचें विलास दीवीन..'

एक क्षणाक ती मोन्नी राबीली. आतांय तिका जीविता लागी भय तं...

'दिकूक आशा दिसता.. तें दिकून तं..'

ताणे प्रतीक्षेन सांगीलें.

'हांवें एक सांगल्यार प्रयासु दिसू नज..'

मनांत एक निश्चय काडून तीणें संथ सांगलें.

'तुमी आनीक हें तें आठोवनु भावी वायट करूक नज. एक चांग चेलेक व्हार्डीक करून कुटूंब सयत सौख्यान राबूका. मिगेलो होड आग्रह तं हो. आमगेलीं कायरीं अशी जावनु गेलींच. मिगेली विधी तं ही. तुमी पुणीय संतोषान आसाय म्हळ्यार माकाय एक विशेष संतोष आसतलो...फटी न्हय..'

'मिगेलो विशेष कांय सांगलोना म्हूण न वे साकाळीं सांगताली? आतां सांगन..'

आजि पर्यंत जावनु कोणा लागी सांगूनातिल्लें तागेले मनांतुलें कायरें आतां तिजेच लागी सांगूक संदर्भ मेळ्ळेल्यांत ताका आश्वास दिसलो.

'माका बायल चेरडूं कुटुंब कांय ना म्हूण न वे तूं आठयता? माका हें सर्व आसा. एक विशेष मात्र, मिगेले कुटुंबाक हांव वळखता, जाल्यार तीं माका वळखनाय.. इतलेंच! मिगेली बायल आनी मिगेली चेली हे लोकांत आसाय.. जाल्यार, तीं मिजे लागी राबनाय म्हूण मात्र. हांवें संतोषान राबल्यार तुकाय विशेष संतोष आसा म्हूण न वे तूं सांगता? मिगेलेंय कायरें तशीच! स्वंत संतोषा पशी मस्त चड तं माका तांगेलो संतोष दिकून मेळचो संतोष. तांगेले सुखदुखांत एकच वरी वांटो घेंवचाक साध्य जालें जाल्यार माका ताजा पशी होड संतोष वेगळो ना..'

तिगेले तोंडाक चोवनातीलें इतलेंच ताणें एकच श्वासान सांगून राबयलें. मागीर तिगेलीं उतरां आयकूक मात्तें बावगोवनु राबीलो. उणे वेळानीय जाप

कांय ना दिकून तो मात्तें उबारनु चोयलो. थांगा मुकार ताणें दिकलेली सर्वय नियंत्रण सोडून हातांनी तोंड धांकून निश्शब्द खोळसां काडून रडचे एक निस्सहाय साधु चेलेक तं. सुकून काड्डी जालेले देहाचें, पिकूक आरांभिलेले केसांचें तें रूप चोवनु राबतना हरद्यांत हून सुवेन खोंबिल्ले वरी एक दुखी ताका दिसली. दोन पावलां मुकार दवरून तिगेले दोन्नीय हातांक धरून खंयचे कीं एक धैर्यान, कसले कीं एक अमसरान ताणें सांगलें.

'तूं नातिल्लें माका एक जीवित ना उषा! तुका जीवित दीवीन म्हूण न्हय हांव सांगतां, माका जीवित दी म्हूण मागीतां तं.. हां म्हण, प्लीस, हां म्हण..'

मात्तें उबारनु ओल्ले ओल्ले दोळ्यांनी ती ताका चोयली. खोळसांतुल्यान अस्पष्ट उतरां फुटलीं..

'संतोष पांवचाक भय मू माका.. संतोषाची आशा घेवंचाक सरी भय मू माका..'

हें इतलेंच आयकून चोवनु भितरचे कूडांत राबिल्लो वासु रित्ते घरांत बाकी दवरलेल्या देवाच्या कलेंडरा मुकार वचून हात जोडता..

'होड उपकार देवा, होड उपकार..'

तागेलेय दोळे भरल्याय..

* * * * * *